**उदय नरसिंह म्हांबरो**
हांचे प्रकाशीत कविता संग्रह

*हय सायबा(२०१२)*
स्नेह प्रकाशन

---

*मनशाच्या सौदांत (२०१७)*
नविश्री क्रियेशन्स.

# इंद्रधोणू उदेवं!

उदय नरसिंह म्हांबरो

बिम्ब
प्रकाशन

**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / १५७. **अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली उजवाडावणी** /२०२०
**मुखपृश्ठ** / राधिका सुखठणकार,मुंबय
**इंद्रधोणू उदेवं!** (कविता) उदय नरसिंह म्हांबरो.
**+९१ ९०४२०७६६७६९**
**+९१ ८८०६०४९९६९**
**Indradhonu Udenv** (Konkani Poetry) ***by Uday Mhambro***
**मोल** : रु. १८०/-




**ISBN :** 978-93-85654-45-9

गडगड जावं
जोगलां पेटूं
लकलकीत वीज पडून
जळून वचूं
दुस्वास सगळो
वत लेगीत
अशें येवं
मळबांत
इंद्रधोणू उदेवं!

**जांच्या रिणांत रावपाक म्हाका
आवडटलें अशे म्हजे इश्ट
जांकां लागून हें पुस्तक इतलें
नकसूद जावंक पावलें .....**

- संजय शेट्ये
- श्रीपाद शेट्ये
- डॉ. अनुजा जोशी
- दिलीप बोरकार
- जय नायक
- राधिका सुखटणकार
- संकेत लवंदे
- सिध्देश पै रायकार
- सिध्देश श्रीकांत म्हांबरे

सुटका ना अशीं कांय कारणां आसतात. अशाच कारणांक लागून म्हजी लेखणी कांय काळ बरोवपाची थांबिल्ली. तिका एका प्रतिभावंत कवीन परतून बरोवपाक उर्जा आनी उर्बा दिली. म्हजे शाय सुकिल्ले लिखणेंत परतून तिंत भरपी तिंतेर म्हणजे म्हजो कवी मित्र आनी सर्जनशील लेखक *संजीव वेरेंकार*. ताचेच प्रेरणेन परत कवितेची साधना सुरू जाली.

संजीवाक आनी संजीवाचे कवितेक
हो कविता झेलो भौमानान भेटयतां.

– उदय

# जगपाचे स्वर इत्सेची कविता

मडगांवां एका कवी संमेलनांत उदय म्हांबरे हांची कविता आयकली तेन्नाच ती भोवच वेगळी आसा म्हणपाचें जाणवल्लें. उपरांत व्हॉटस् ॲपाचेर कवितांचें येवप वचप सुरू जालें. बेठेंच 'व्वा, बरी जाल्या', 'भोवूच बरी',असल्या निखट्या तोखणायेच्या उतरांनी हांव केन्नाच धादोशी जायना. एखादी कविता कित्याक मानवली, तातूंतलें कितें बरें दिसलें हें एखादे ओळीन सांगलें जाल्यार कवीचो फायदो. ना जाल्यार, 'व्वा, बरी जाल्या' असल्या फकत तोखणायेच्या उतरांनी धादोशी जावपा बगर ताका आनीक कितें मेळटलें? अशें म्हाका सदांच दिसता. कवितेंत आयिल्ली एखादी प्रतिमा, रुपक वा ताचे लेखन शैलीचें वेगळेंपण, खाशेलपण, कवितेचो अर्थपूर्ण शेवट, असल्या मुद्यांचेर बारीक सारीक अभिप्राय, मतां हांव वेळा वेळार दियत रावलें. एकदां तर मजाच जाली. 'अल्लाउद्दीन आनी जादूचो नाल्ल' हे तांचे कवितेचो शेवट म्हाका तितलोसो उंचायेचो वा अळंकारीक दिसलो ना. हांवें रोखडेंच तशें तांकां सांगलें. तांणीय दुसरे भशेन शेवट बरोवन कविता परतून धाडली. पूण तोय मना सारको दिसलो ना. तांणी अशे दोन-तीन शेवट बरोवन धाडले. तरीय म्हजें समाधान जाय नासलें. तांची ती कविता भोवच उंचाय गाठपी आसा, पूण ती उंचाय अजूनय येवंक ना अशें म्हाका परतून परतून दिसतालें. अखेरेक अस्वस्थ जावन हावेंच ते कवितेचो शेवट बरोवन धाडलो. तांकांय तो भोवच मानवलो. उपरांत आरंभ कोंकणींत आनी शेवट मराठींत अशी ती पुराय जाल्ली

मजेशीर कविता उदयबाबान पुराय कोंकणींत आनी हांवें पुराय मराठींत अणकारीत केली. एखादे कार्यशाळेंत निर्मिती प्रक्रिये विशीं सांगतना ती कविता खात्रेन मार्गदर्शना खातीर वापरूं येत अशीच आसा.

कवितेचें व्हॉटस् ॲपाचेर धाडप-वाचप चालू आसतना केन्ना अशी मजा जाताली जाल्यार केन्ना उदयबाबाची भोवच भाविल्ली एखादी कविता वाचिल्ल्या खिणाकूच मराठींत अणकारीत करची ते प्रमाणे उत्स्फूर्तपणान अणकारीत जाताली. तांचे एकूण कविते विशीं अदीं मदीं उलोवपूय जातालें. केन्ना एखाद्या कवी संमेलनांत कविता आयकूंक मेळटाली. म्होवाळ सादरीकरण करपी उदयबाबान भोवतेक ह्या इतलेशाच म्हालवजाचेर म्हाका तांच्या ह्या कविता झेल्याची प्रस्तावना बरोवपाची जबाबदारी दिल्या आसुंये! तांचो हो तिसरो कविता झेलो आशिल्ल्यान खरें म्हणल्यार आतां तांचे कवितेक कोणाचेच प्रस्तावनेची गरज ना. ती आतां आपुणूच समर्थपणान उलयता. ताका लागून ह्या झेल्यांतली कविता म्हाका कशी दिसली, कितली भावली इतलेंच सांगतलें आनी तेच वांगडा ती आतां वाचप्याक कितें कितें दिवपाक शकतली हो तांचे कविते संबंदीचो म्हत्वाचो विचार हांगा मांडीन.

ह्या झेल्यांतली भोवच सकारात्मक जाणीव आशिल्ली कविता जगपाच्यो जायत्यो शक्यतायो दाखयतात अशें म्हाका खरपणान जाणवलें. वेगळ्या वेगळ्या तरांनी ती जिणे कडेन पळयता. राग, मोग, तिरस्कार, दया, माया, फकांडां, निंदा, निर्भत्सना, असल्या सगल्या शक्यतायांनी ती जगप अणभवता. जगपाचीं वेगळीं वेगळीं आंगां ती दाखयता.

वायट परिस्थितींतल्यान तकली वयर काडून परतून नव्यान जगपाची खर आस हे कवितेंत आसा. ती आस कवितेंत 'इंद्रधोणू' जावन येता –

आयज मळब मेकळें जालां
सदचे परस वेगळें जालां
पावस आनी वता बगर
मळबांत इंद्रधोणू रंगला
रंगीन अश्या मळबाक पळोवन
म्हजेय जिणेंत वसंत फुल्ला

ही सांगपाची शैली वेगळी आसा. मनभुलयणी आसा. वायट तें फाटीं उडोवन बरें तितलेंच एकठांय करीत मुखार वचपाची आस जंय थंय कवितेंत दिसता, वाचप्यान एकठांय करचे अशे कितलेशेच खीण ही कविता दिता.

दिसपट्टे जिणेंत आयिल्ल्या अणभवांचें एक वेगळें चिंतन हे कवितेंत येता. खोल मनांतलें चिंतन कवितेंतल्यान मुखार हाडपा खातीर जायते फावटीं कवी परकाया प्रवेश करता. केन्ना तो 'नरकासूर' जाता, रोप्याक 'सावट' घालपी रूख जाता, केन्ना 'बंद करून घेतिल्लें दार' जाता. दर एकल्याचे ते ते भुमिकेंत वचून विचार करता. तें बरें दिसता. विचारांचो हो एक वेगळो अँगल हे कवितेंत दिसता. मदींच एखादें रुपक मुखार येता. मदींच निंदेन वा फकांडांनी कितेंय सांगता. हांसत हांसत चिमटोय काडटा. तो केन्ना दुसऱ्याक आसता जाल्यार केन्ना स्वताकूच काडिल्लो आसता. 'सुखाचें झाड' हे रुपक कवितेंत -

ताणें झाड हालयलें
सूख सगल्याक पातळ्ळें
सगल्यां वांगडा म्हज्याय पोशांत
रासभर सूख आयलें
झाड हालोवपी मात
झाड हालयतूच उरलो...

असलें सुखाचें रुपडें तर आमकां दिसताच. ताचे वांगडा त्या झाड हालोवपी मनशाचो निःसुवार्थी परमार्थ आनी स्वता मेळयिल्लो परमोच्च सुवार्थूय कवीक होलमला, हें भोवच म्हत्वाचें.

'फळ' हे कवितेंतूय अशेंच एक वेगळें सकारात्मक चिंतन येता.

हुंवाराच्या घसघसपी उदका भशेन आयिल्ली 'हुंवार' ही कविता वाचतना प्रत्यक्ष तो प्रसंग दोळ्यां मुखार उबो जाता.

म्हाड्डुलो गाडो
भाऊलो पसरो
भाईलें च्या चें हॉटेल
अंकलाचें तावेर्न
सालूचें केंस मारपाचें शॉप
जगूलें व्हाणो शिवपाचें दुकान
.
.
.
.
राशीचे नाल्ल
सोलिल्ली सुपारी
मागीलदारचो जळोव
पुरुमेंताचें मीठ
.
.
.

अशी ही कविता तुमी पुराय वाचात,प्रतिमेचे न्हंयेक आयिल्लो हो हुंवार! हातूंत भोवच बारीकसाणीन नोंदयिल्ले गांवांतल्या हुंवाराचे जायते तपशील येतात. वळेरी येता. वस्तू, कपडे-लत्ते, कोयर-व्हारो,

आयदनां, जल्ले-हुंदीर, पाली, सोरोप, सगलें येता. व्हावून वता सगलें. खळमळ धुंवून वता. अप्रतीम गती येता हे कवितेक! एखादो व्हीडीओ पळोवचो ते भशेन ही कविता सगळें दाखयत व्हरता. उत्पत्ती, स्थिती, लय... चक्र घुंवत उरता... सगलें कशें परतून जाग्यार पडटा तेंय ती सांगता... अशा वेळार धोको आसता तो हो तपशील 'वळेरी' कशी दिसपाचो, पूण कवीन व्हडा कल्पकतेन हो धोको हांगा टाळ्ळा. अर्थांत तो मुद्दाम टाळिल्लो आसचो ना. नकळटना तो टळिल्लो आसा. आशयाची उत्कट आनी प्रामाणीक अभिव्यक्तीच हे अमले चमत्कार घडोवपाक शकता. म्हणुनूच ती वळेरी जायना, तर कवीक हो हुंवार जसो दिसला तसो तो मांडला. प्रतिमा हो कवीचो 'तिसरो दोळो' आसता. ह्या तिसऱ्या दोळ्याक लागूनच ताका मुखा वयलो प्रसंग, घडणूक वेगळी दिसता. म्हणून हेरांक हुंवारांत व्हावपी ह्यो वस्तू बेठ्योच अगळ पगळ दिसतात, जाल्यार कवीक तातूंत 'आडावप शक्य ना' म्हणून व्हांवत वचपी आनी परतून जाग्यार पडपी जीण दिसता! हांवें जाल्यार वाचना फुडेंच हो 'हुंवार' मराठींत अणकारीत केलो आनी ताच्या ल्हारांच्या चपक्यांतल्यान सुटका करून घेतली. वाचपी, रसिकांनी आरंभा सावन ही कविता वाच्ची आनी त्या हुंवाराचो स्वता अणभव घेवचो, अशें दिसता.

जे परी एक धारेचें हट्टीपण हे कवितेंत आसा तेच तरेची भावूक काकुळटूय आसा. ह्या दोनूय तोकांचो सोबीत सुमेळ ही कविता सादता. 'मेणवात आनी पावस' हे सुपुल्लो कवितेंत सोबीत सुचकताय आयल्या...

मेणवात  
आपूण जळटा  
आमकां उजवाड दिता

सत्री हाडली,
आपूण भिजता
आमकां सुके दवरता
मागीर आपुणूय सुकता

तूं सत्रे भशेन जा
बेश्टें मेणवाती वरी
वात सोपऽसर जळूं नाका...

असले तिरके बाण जोखून आपले भितरलो घुस्मटमार दाखोवपी अपेक्षाभंग मांडला. सुखाचो झगमगूय कवितेक मारक थारता आनी दुख्ख बटबटीत जावन मुखार आयिल्लेंय सोंसना, म्हणून तें दोनूय खूब सावध उतरांनी मांडचें पडटा. हांगा कवीक तें तंत्र जमलां म्हणून थोडीशी मिश्कीलतायेचे वाटेन वचत ही कविता दुखेस्त मुखामळाचेर मंद असो हांसोय दाखयता, हें भोव म्हत्वाचें.

'जाय जायश्यो जायो' कवितेंत जायांच्या परमळान कवी भोवच भावनीक जाता.

आतां पोरसांत
जायो फुलूं ना फुलूं
तुज्या गंधान घरभर पोरसूं फुलता..

अशें म्हणून नात्यांच्या गुंत्यातली सगली कोडसाण विसरूंक सोदता. जश्यो जायो, तशीं ओंवळां. सगल्याक पाचवोचार फुलून फळून आयिल्लो सैम कवितेंत अभावितपणान जंय थंय पातळिल्लो दिसताच. सैमाचो हो परमळ लागीं लागीं सगल्याच कवितांतल्यान पसरिल्लो दिसून येता. ही निजाची रंगरंगयाळी ताची टवटवीत प्रादेशिकताय हें ह्या झेल्याचें खाशेलपण.

**इंद्रधोणू उदेवं! / पवदा**

'ओंवळां' हे कवितेंत ओंवळां पुंजायतना फुलां वांगडाच होटयेंत पडपी फातरूय परमळीत जावन वतात, अशें आयिल्लें निरीक्षण आनी ताचें फाटलें चिंतन कवितेक एक आगळी उंचाय दिवपी थारता.

तुज्या माणकुल्या पावलांनी
घराक थाकाय दिली
घराची जमीन, तिजूले, सोंपाणां
घराचो भार आसा खांदार
तें खिणभर विसरूंक पावलीं

'प्रतिबिंब' हे कवितेंत जायत्या वर्सांनी घराक बाळपावलां लागलीं आनी त्या माणकुल्या रुपांत घराक आपलेंच प्रतिबिंब दिसलें अशी कल्पना 'पाकळे वयलो दव' सांबाळचो तितल्या ल्हवपीकपणान साकारिल्ली आसा.

अंतर्मुख जावन विचार करप हें हे कवितेचें एक आगळेंपण म्हणपाचें परतून परतून जाणवलें.

हळशिकेची घाण
येता म्हणून
सगळ्यांचीं जोतीं
हांवें तपासलीं
म्हज्यो व्हाणो मात
तपासल्यो नात

असो स्वताक ताशीत, तपाशीत, सुदरायत रावपाचो व्हड सद्गूण हे कवितेंत आसा. ताका लागून उणावांची पूर्तताय करून फुडाराक वाडत वचपाक हे कवितेक संद आसा हें नक्की.

मुळांत उतरांचें म्होवाळपण आशिल्ली 'कोंकणी' भास हे कवितेंत प्रादेशिकतायेचें आनीक एक सोबीत गांवगिरें दर्शन घडयता. कविची स्वताची शैली थारची अशीं 'मुदयेक थीक' सोबपी उतरां, वेगळीं विशेशणां, क्रियापदां ह्या झेल्यांत पावला पावलाक येतात.

'घर आतां भुल्लुसलां/घर पळय धादोसलां', 'भंवर आयले म्होंव चिवून गेले', 'ताका ओर्राद गाडयेंत घेतलो', 'मातये भरवण जावपाचो', 'जमनींतलीं पाळां धील सोडी ना जमीन रेंवट आसली तरीय', 'ते दिकेन बोडकी वयर काड', 'इतल्योच भिकार भासो करीत हांव उरलों', अशी सामकी निजाची प्रादेशीक भास आनी वेगळी सडसडीत शैली हे कवितेंत आसा. ती भोवच सोबीत दिसता. रोसाळ दिसता.

'पिळाचें सुंब' सारके कवितेंत कविचो नाल्लांचो वेवसाय ल्हवपीक कवितेंत उतरिल्लो पळोवन खोस भोगता. तातूंतय अंतर्मुख जावन विचार करपी तांचे भितरलो वेवसायीक दिश्टी पडटा. कठीण वेव्हारीकतायेंत करचे पडपी अपरिहार्य गजालींचें कवीक भोवच त्रास जातात अशें दिसता. पूण कविता ह्या सगल्यांचो बेस बरो निचरोय करून दितना दिसता.

... सगल्यांच कवितां विशीं सांगपाक लागलें जाल्यार वाचप्यांक कितें उरतलें? कविता हो कितें असो कोणा दुसऱ्याचे 'नदरेंतल्यान' वाचपाचो प्रकार न्हय. ती जाची ताका भावता, मानवता, वा मानवना अशें कितेंय घडूं येता! देखून कविता आनी वाचपी हांचे मदीं म्हजे सारक्यान येवप समा न्हय. कवितेचो हो 'हुंवार' आसा. तो बऱ्या वायटा सयत घसघसत रावतलो. रावपाक जाय. तेंच जितेंपण आसा. तेंच जगप आसा. हांवें फकत तातूंतल्यो कांय गजाली सांगल्यो, इतलेंच.

एका घराक पांखें नासलें, वणटी नासल्यो, दारां नासलीं, पूण जनेलां आसलीं आनी आसली ती घट्ट बुनयाद. घराची बुनयाद बरी घट्ट आसली. अशें एके कवितेंत वाचतना कवीची जिणभराची धडपड

दिसता. संघर्श दिसता, तो पेलपाची तांक दिसता आनी सकारात्मक विचारांचे घटमूट बुनयादीचेर सृजनाची इमारत आतां खडेंगाठ उबी रावील्ली दिश्टी पडटा. हें वाचून आमी स्वताकूच विसरून वतात. वाटे वयल्या काट्यां फुलांनी वेंचिल्लो हो प्रवास सगल्या कवितांतल्यान वाचतना खोमयेंचीं निळीं धवीं कुपां मनभर एकठांय जावपाक लागतात.

गडगड जावं
जोगलां पेटूं
लकलकीत वीज पडून
जळून वचूं
दुस्वास सगळो
आडवेळो पावस वचूं
तुजो म्हजो कालोर घेवन
वत लेगीत
अशें येवं
मळबांत
इंद्रधोणू उदेवं !

मनांतली आस हांगा जिखता. मना मनांतलो 'कालोर' जळून वचपा खातीर ती वावटळ जोगलांक आपयता. ती पावस मागता, ती वत मागता. 'स्व' कडल्यान समिश्टी कडेन वचत ती वैश्वीक जाता आनी आशयपूर्ण जगपाच्या अफाट क्षितीजाचेर 'वत लेगीत अशें येवं, मळबांत इंद्रधोणू उदेवं!' अशी सप्तरंगी ओळ बरोवन वता...

ह्या झेल्याची प्रस्तावना बरोवचे आदीं हांवें उदय म्हांबरे हांचें 'हय सायबा' आनी 'मनशांच्या सोदांत' हे आदले दोन कविता झेलेय वाचले. तातूंतलीं मनोगतां, प्रस्तावना आनी कविता वाचले उपरांत अशें लक्षांत आयलें की, भाशावादा विशींच्यो अस्मितायो आनी पोटतिडक असल्यो भोवच खर भावना फुडें फुडें बऱ्योच मंद जायत

गेल्यात. ही खूब बरी गजाल. ताका लागून भाशेचें मर्यादीत दुरीग हुपून फुडें वचपाची आस कवितेक लागल्या म्हणपाचें जाणवलें. मर्यादीत आंवाठांत कविता हावेसां प्रमाणे फुलना. अणभव विश्वूय मर्यादीत उरता. अशा वेळार मराठी, हिंदी वा जमता तितल्या अणकारीत कवितांचें प्रातिनिधीक आनी संपादीत संग्रहांचें वाचन करप, तेच भशेन भाशेच्यो आनी अभिव्यक्तीच्यो सगल्यो वंयो हुंपप, चड बऱ्या आनी सक्त अभिव्यक्ती खातीर असो विविधांगी व्यासंग गरजेचो थारता. ही कविताय तिचो असोच सगल्या आंगांनी परिपोष जावपाची मागणी करता म्हणपाचें जाणवलें.

सृजनाच्या निळ्या तळ्यांत मनभर पेवन जातकूच हे कवितेक आतां सृजन दर्याची ओड लागप सभावीक आसा. उदयबाबान तांचे कवितेच्या मनांतल्या मळब भर आशयाचो तो उलो जतनायेन आयकुचो आनी कवितेचें हें सप्तरंगी ‘इंद्रधोणू’ उदेल्या उपरांतूय तांचे कडल्यान चडांत चड वेगळें आनी पुश्टीक लेखन जावचें हींच मना काळजांतल्यान परबीं!

– डॉ. अनुजा जोशी

**(मूळ मराठींतली प्रस्तावना जय नायक हांणी कोंकणींत भाशांतरीत केल्या.)**

## काळजांतल्यान...

सुर्या तुजीं किरणां
येवं दी म्हज्या आंगणांत
उजवाडाचीच लागूं संवय
म्हाका दीस रात

– उदय

# मांडावळ

मांडावळ

## हुंवार

म्हाड्डुलो गाडो
भाऊलो पसरो
भाईलें च्याचें हॉटेल
अंकलाचें तावेर्न
सालूचें केंस मारपाचें शॉप
जगूलें व्हांणो शिवपाचें दुकान
पक्याली भाताची गिरण
आनी फोवांचें खोर्न
गांवची एकली एकसुरी
रेशनाची सोसायटी
कितेंच सुटलेंना.

तो आयलोच असो
धाडयत बडयत
सामको रकतूच रावलो
हजार मेत्रां पयस व्हांवपी न्हंयक
शेतां-भाटां माड्डयत बाजारांत येवन आयलो

आनी वर्सासंकी
गुड्ड्याक बशिल्लो कोयर
केंसांची रास, चामड्याचे कुडके

वाळटी लागिल्ल्यो फळयो
कुंड्याची रास
कुसकी पेंड
पिंजके साक
रिकाम्यो काशी
कळमेल्ल्या लातां सयत
मेल्ले हुंदीर, जल्ले, पाली, शेड्डे
आपले वांगडा घेवन गेलो
बाजार नितळ जालो.

येसवंताली खोप
जयवंतालें भाट
नामदेवालें शेत
शांत्यालें जोत
भगवंताल्या गोठ्यांतलीं गोरवां
सत्यभामेच्यो कोंबयो
राशीचे नाल्ल
सोलिल्ली सुपारी
मागील दारचो जळोव
पुरुमेतार्चे मीठ
आमटाण, सोलां, खारें,
दोणांतल्यो आंबल्यो
कपडे, हांतरूण, आयदनां

आसलें नासलें सगलें
धपक्या भितर पेवन गेलो

आतां उरला फकत
पांय यालीत थंय चिकोल.
येसवंत, जयवंत, भगवंत,
म्हाड्डू, सालू, जगू, पको
परतून चिकोल माड्डीत
गांवच्या तिठ्यार एकठांय जाल्यात
सुर्याची वाट पळयत...

## तोंडाक खिळी

मेल्ल्या झाडाच्या लाकडा पसून
जाता म्हजो जल्म, म्हणून
हांव निर्जीव अशें समजून
लोक म्हाका आड करून
जें किर्ते करतात
तें सगळेंच सगल्यांक सांगल्यार
अच्छेव माजतलो

आमचो दारांचो धर्म पाळून
हांव तोंडाक खिळी घालतां

तरीय कांय लोक
बुराकांतल्यान दोळो घालून
धुंवर दिसता ताचेरूच
खांचींतल्यान फुंक मारून
उजो पेटयतात

हांव निर्जीव अशें समजून
म्हजे लागीं मात
कोणूच कसली
रुजवात करीनात

## बुनयाद

एका घराक पांखेंच नासलें
तरीय घरांतलीं मनशां
वतान करपनासलीं
पावसान भिजनासलीं
शियांन कुडकुडनासलीं

घरांतलीं मनशां
पोटाक गरज पडटा तेन्ना
तीन फातरांची चूल पेटयतालीं
राती कडेन फातर उश्याक येवन
जमनीक फाट तेंकोवन
मळबाची चादर पांगुरतालीं
घराक वणटी नासल्यो
फुतूफुतू आवाज वणटीक आदळनासले

घराक दारांय नासलीं
घर येतल्या वतल्याक
उकतें आसलें
घराक आसलीं जनेलां
जनेलांतल्यान येतालें
नितळ निर्मळ वारें

घराक पांखें नासलें
वणटी नासल्यो
दारांय नासलीं
जनेलां मात आसलीं
आनी आसली ती बुनयाद
घराची बुनयाद बरी घट आसली!

## प्रतिबिंब

तुज्या माणकुल्या पावलांनी
घराक थाकाय दिली
घराची जमीन, तिजुले, सोंपणां
घराचो भार आसा खांदार
तें खीणभर विसरूंक पावलीं

घरान आपलीं दारां, जनेलां,
शेकानशेक उगती केलीं
तुज्या खेळांतलीं जनावरां
जिती जिवीं जावन
सालभर वावरूंक लागलीं

घराचे वणटीक पसून
आसतात खंय कान
तुज्या लुडब्या आवाजा कडेन
घराचे सगळे कान लागले
बाकीचे आवाज आयकुपाक
घराचे कान बसले

खूब वर्सां घरान
रंग पळोवंक नासलो

तुर्वे वणटीर भिरकटावन
वणटींक जीव हाडलो

घर आतां भुल्लुसलां
घर पळय धादोसलां
तुज्या रुपान घरान
आपलें प्रतिबिंब पळयलां

## माड

माड कितलोय कणको आसलो,
मळबाक वेंगावंक लागलो, तरीय
सोंपेपणीं जमनींतलीं पाळां
धील सोडीना
आनी जमीन रेंवट आसली, तरीय
म्होंवाळ आडसरां
पेंडीर धोलोवंक विसरना
माड कोणाक आड येना
माडाक कोणूय आड आयल्यार
माड आपली दिशा बदलता
वाकडो तिकडो जाता
पूण तरीय सुर्याचेच दिशेन फुडो करता
माडाचे हे गूण म्हाका
म्हज्यांत केळोवंक जाय
म्हाका माडावरी जावंक जाय...

## सांवट

घडये म्हजें सांवट तुज्यान
सोसूंक जायना आसूं येता
म्हणून म्हज्या कोसळपाचीच
तूं वाट पळयता आसूं येता
पानगळ सुरू जाल्ल्याक
तुका खोसयेचो उमाळो फुटूं येता
पूण तूं चुकता

पानगळ म्हणल्यार
नवे पालवेची सुलूस
आतां नवे उमेदीन
हांव परत चंवरतलों
हांव परत फुलतलों

तूं मात
म्हज्या कोसळपाची वाट पळयत
थांबोवं नाका तुजी वाड
जंय सुर्याचीं किरणां दिसतात
ते दिकेन बोडकी वयर काड

सुर्य आपल्याच
जाग्यार आसतलो
कढकडीत वतान तापयतलो
आनी हांवूय कोसळटलोच
आयज ना फाल्यां
पूण ते मेरेन
वतान करपतल्यांक
सावळी दिवपा इतलो
तूं व्हड जा...

## तूं आयलो ?

तूं येतलो म्हणून
पेरगांव घालपाक
बेब्यांचें मुज्ग
वाजय वाजय वाजयलें

तुज्या पकदस्त येण्याक
येवकार दिवपाक
कालोरार्चे रेड कार्पेट
सगळ्याभर पातळायलें

आमी दरवंट्याचेर
सत्र्यांचीं फुलां आनी
कापोतीची शाल घेवन
तिश्ट तिश्ट तिश्टले

आनी तुवें मात
आपालिपा खेळत
केन्नाच मागील दारांतल्यान
अचळय भितर सरून
रेड कार्पेट
पाचर्वेचार केलें

## कूप

धर्तरि वयले हे
मनशांचे गर्देतल्यान
जेन्ना तो विमानांत बसून
अंतराळ भोंवडी मारता
तेन्ना तेन्ना ताका दिसता
देंवर्चेच न्हय हें विमान सकयल

जनेलांतल्यान दिसपी
शेकानशेक पातळिल्लें
निळनिळशें मळब
ताचेर मोव मोव
गुबगुबीत कापसावरी
धवींफुल्ल कुपां
कसलें खत ना
पावसान भिजना
वतान करपना
वाऱ्यान मोडना
थंडेन आवळना
वजनान चिड्ड ना

ताका दिसता
देंवचेंच न्हय हें विमान
शक्यूच नासत जाल्यार
आपणेंच जावंचो एक कूप
आनी रावचो हांगाच मळबांत

## नसाय

सुर्वाक लेगीत खीणभर
नसाय दिसची तुजी
तुज्या उजवाडान
दिशा उजळची

पूण कोण करपूंचो
न्हय वतान
हाची तुर्वे
जतनाय घेवंची

## हांगाच धर्तरेचेर

मळबांत उडपी
सवण्यांक पळोवन
म्हाकाय उडन दिसता
पांखां फडफडावन
उडटलों म्हणल्यार
पाळां पांयांत घुसपतात

पाळांय रोमल्यांत
जमनींत खोल अशीं
तुटून तुटनात
म्हणून हांव आतां
हांगाच धर्तरेचेर
म्हजें मळब निर्मितां...

## मनमळब

मळब कोंचून
मुठीन धरपाची
तुजी भास
आत्मविश्वासाची
काय गर्वाची
तें हांव नकळों
हांवेंय निसण लायल्या
मळबार चडपाची
पूण, म्हाका मळब
कोंचून काडपाची
वान्सा ना
मळबा इतले उंचायेर
मळबाच्या खांदाक
खांद लावपा इतलो
म्हाका उंच
जावंक जाय
मळबाक समांतर
नवें मळब
म्हाका निर्मूंक जाय...

## वसंत

आयज मळब
मेकळें जालां
सदचे परस
वेगळें जालां

पावस आनी
वता बगर
मळबांत
इंद्रधोणू रंगला

रंगीन अश्या
मळबाक पळोवन
म्हजेय जिणेंत
वसंत फुल्ला...

# इंद्रधोणू

आडवेळो
पावस येवन
व्हांवून वचूं
तुजें म्हजें
वैर सगळें

धुवन वचूं
दुस्मानपणां
जावं दी
मनांमळब मेकळें

गडगड जावं
जोगलां पेटूं
लकलकीत
वीज पडून
जळून वचूं
दुस्वास सगळो

आडवेळो
पावस वचूं

तुजो म्हजो
काळोर येवन

वत लेगीत
अर्शे येवं
मळबांत
इंद्रधोणू उदेवं !

## बेरंग

धवो, पाचवो,
निळो, भगवो
ओतल्याच जर तुमी
रंग सगळे
एकाच लातांत
तर ते आतां
घोटून घोटून
इतले एकजीव कराात की,
कोणाक कोणाचो
मुळचो रंग
यादूच जावं नये

एक जरी रंग
आपलो खरो रंग
दाखोवंक लागलो जाल्यार
सगळोच बेरंग जावपाक
वेळ लागचो ना,
आनी मागीर
खतावल्लो वणटी वयलीं खतां
लिपोवन लेगीत
लिपचीं नात

## खरो रंग

हे वणटीर तुवें
तुज्या घोस्ताचें
रंगारंगी पिशोल घेवन
कितलेंय पितारलें
तरीय मुळांतूच
वणटीच्या आंगांत
आशिल्ले दमटसाणीन
तुवें पितारिल्ले रंग
आपले भितर जिरयले
आनी आपलेच
खरे रंग दाखयले...

## काळो रंग

उजवाडांत धवो रंग
नदरेक येतलोच
काळखांत काळो रंग
वळखूंक जाय

काळ्याची सोबाय
तोखेवपाक
नदर मात
धवीफुल्ल जाय...

## व्हाणो

हळशीकेची घाण
येता म्हणून
सगल्यांचीं जोतीं
हांवें तपासलीं
म्हज्यो व्हाणो मात
तपासल्यो नात...

## हुलोप

काल हांवें चुकून
तांतयांतलो
हळडुवो बलक समजून
सुर्य गिळळो

तेंच हें तेज
म्हज्या शिरंतरांनी फांकलां

कालच्यान तुमी म्हाका
पयसुल्ल्यान कित्याक तेळटात
तें म्हाका आता होलमलां

सुर्य हांवें गिळळा
पूण हुलोप
तुमच्या आंगाक पेटला...

## रुपडें

तोंडा वयलें
रुपडें काडून
एकदां तरी
पळोवचें तुजें
खरें रूप
अशें जायते फावट दिसता

रुपड्या पोंदाक
दुसरेंच कितें
पळोवंक मेळत
म्हणून हांव
म्हज्याच मनांतलें
तुजें सोबीत रूप
तोखेत रावतां...

## पिळाचें सुंब

हांवें
काथ्याचो कारखानो
सुरू केला
तुमचीं सोण्णां
कुसोवन कुसोवन
माक्ना भितर काथो
झेजरून झेजरून
काबळो काडटलों हांव

पीळ पीळ पिळून
पिळाचें सुंब करून
काबळ्याचेर
जोड जोड जोडटलों हांव

तुमचीं सोण्णां तुमकां कोयर
म्हजे खातीर तो क्कॉयर
तुमच्यो पाखेती बांदपाक
सुंब सोदपाक
फाल्यां येतले तुमी
म्हज्या हुंबऱ्यार

तेन्ना तुमच्याच
सोण्णांचें सुंब
हांव तुमकांच विकतलों

## भिकार भासो

कोणाले रांदनीर
किर्ते करपलां
कोणागेर कसलो
घमघम सुटला
कोणाल्या जेवणांत
केंस पडला
कोणाल्या ताटांत
पाल पडल्या
इतल्योच भिकार भासो
करीत हांव उरलों

रांदनी वयर्ले करपून
कोळसो जालो तरीय
वास आयलोना
कोर्णे केंसान
गळो कापलो
पत्तोच लागलो ना...

## म्हजी जीब

म्हर्जे रगत
चडूच सळसळटालें
तेन्ना म्हजी जीब इल्ली
चडूच लांब आसली

म्हजो बाबा म्हणटालो
'उखल्ली जीब
लायली ताळ्याक'
बरी न्हय
कोणूय एक दीस
जीब काडून हातांत दितलो

आतां बाबा ना
हांव बाबा येदों जालां
उलयतना खूब फावट
जीब चाबून उलयतां

पूण जेन्ना जेन्ना
जीब चाबतां
तेन्ना तेन्ना
जीब दुखताच
तरीय मनांत नासून लेगीत
जीब चाबतां
आनी दुखावल्ले जिबेक
म्हज्याच ताळ्यान
फूंक मारतां...

## बेनुल्ल

किल्लकांतर्ने येवन हांव
आंब्याच्या गारफा वयली
बेनुल्ल बेणटालों
इतल्यांत पांयार हुमले चडले
हुमले झाडटना पांय हाल्ले
हातांतलें किल्लकांतर्ने
पावलाक चिरीत
जमनीर पडलें
भळभळीत रगत व्हांवलें

विचारांक लागिल्ली बेनुल्ल
म्हाका बेणपाक जाय
मात विचारांची बेनुल्ल बेणटना
धारेचें किल्लकांतर्ने
हांतांतलें सुटूंक फावना
मन रगतबंबाळ जावंक फावना...

## उतराचें मोल

तोंडी हिशेब गेले
चोपडी आयली
चोपडे वयले हिशेब
जर्नालांतल्यान
लेजरांत वचून बसले
संगणकांनी लेजरांक
आवटडेटेड केले
टॅली आयली
कांयच बाकी दवरी नासतना
बॅलन्सशीट टॅली जावंक लागली

पूण ह्या सगल्या बोवाळा भितर
एक म्हत्वाची गजाल मात
साप्प शेणली
तोंडी हिशेब करताले
तेन्ना उतरांक मोल आसलें
उतर पाळप हेंच
व्हडलें भांडवल आसलें
संगणकीय हिसपान
आंकडेच व्हड जाले
उतर नांवाचें उतरूच
हिसपांतल्यान डिलीट जालें !

## तुळस

केन्ना केन्ना दिसता
हांवें तुळशी रोपो जावन
तुजे तुळशींत जगचें

तुवें न्हावन धुवन
तुळशीक प्रदक्षणा घालतना
म्हाकाय उदक घालचें...

# ओंवळां

ओंवळां
पुंजायतां पुंजायतां
वांगडा
थोडे फातरूय
होटर्यंत पडटात
तरीय ओंवळांचो
वास उणो जायना

जायते फावट
फातरूच
परमळान भरतात...

## डिव्हायडर

तूं बशीक उबें
डिव्हायडराच्या
दुसरे अर्दान

हांव यू-टर्न
मारतां म्हणसर
तो रॉंग सायडीन येवन
उबो तुज्या म्हऱ्यांत...

## रातराणी

पोरसांतली रातराणी
केंसांत तुज्या फुल्ली
कानसुलांचेर अळंग शीं
मोरा पांखां भोवलीं

## सत्री

कोर्णे कोणाचे
सत्रेंत येवर्चे
तें आदींच थारता

म्हणून पावस पसून
ताका जाय तेन्ना
जाय थंय पडटा...

## मेणवात आनी सत्री

मेणवात
आपूण जळटा
आमकां उजवाड दिता

सत्री
आपूण भिजता
आमकां सुके दवरता
मागीर आपुणूय सुकता

तूं सत्रे भशेन जा
बेश्टें मेणवाती वरी
वात सोपड सर जळूं नाका

## तूं आनी हांव

तुवें म्हजे कडेन
पेन मागचें
आनी नेमकें
त्याच दिसा
तें म्हज्या
बोल्साक नासचें ?

तुवें म्हजे सत्रे कडेन
आशेन पळोवचें
आनी तेन्नाच वाऱ्यान
म्हजे सत्रेचें
पाल परतुचें ?

## हरयाळी

वचत थंय
हरयाळीचें रान मातचें
नडणी किल्लुपाक
सुवात पसून उरची न्हय

आनी कोर्णेय
हरयाळी हुमटावपाचो
यत्न केल्यार पसून
जमनींत उरिल्ल्या पाळांनी
परत परत जीव धरचो...

## तरी लेगीत

गोड, गोड,
सुवादीक रुचीचें फळ
लोक मिटक्यो मारून खातात
म्हणून हांवें म्हजो सभाव
कोडू किरायत्यावरी
कोडसाणीन भरलो

तरी लेगीत
गोड खावन खावन
पोटांत मुड्डूंक लागलें
तेन्ना लोकांनी म्हाका
मुळा सकट
हुमटून व्हेलो

## जाय जायश्यो जायो

तूं म्हाका
मेळचे आदीं
म्हजोय समज आसलो
फुलां झाडारूच बरीं दिसतात
म्हणून हांवें पोरसूंभर
जायांचे माटोव याले

जायो फुल्ल्यो
भंवर आयले
म्होंव चिंवून गेले
वाऱ्यान वासूय
हुबून गेलो

एक दीस तूं आयलें
म्हजे जिणेचो वांटो जालें
म्हज्या पोरसांतलो परमळ
हांवें तुज्या माथ्यांत खोवलो

आतां पोरसांत
जायो फुलूं ना फुलूं
तुज्या गंधान घरभर पोरसूं फुलता...

## जांबळी तळा

जिणेचे सांजवेळेर
जांबळी तळा
भेट आमची जावची

फातर उखलून
जांबळां पाडपाची
शक्तूय आमकां नासची

म्हणून वारें येवन
जांबळां पडपाची
वाट आमी देखची

झडिल्ल्या जांबळांनी
तुजीं म्हजीं
मनवस्त्रां
जांबळीं जावचीं

## तळपा वयलीं फुलां

सज्या वयल्या तळपार
फुलांय फुलतात
आनी तळपाच्या तळाक
उदकूय आसता

तळप सुकें सडसडीत दिसता
कांय जाणांक हांवूय
तळपावरीच भासतां

## फातराचीं फुलां

तुका तरी खंय खबर
म्हजेर शेवटिल्ल्या
दर एका फातराचीं
फुलांच जावन
म्हजेर शिंवरतलीं म्हणून?

तशें आदीं
कळिल्लें जाल्यार
तूं घडये
फुलांच शेवटीतलो आसलो!

# फळ

बियां घालीं
झाडां रोयलीं
मशागतूय केली
तीं फुलचीं, फळचीं
असो आग्रो
कोणें धरलो ना

म्हज्या पोरसांत
रोयिल्लें झाड
शेजाऱ्याल्या पोरसांत
फुलां शिंवरता
हाचेंय दुख्ख केन्ना केलें ना

थोडीं झाडां
फळांच दिनात,
म्हज्या झाडान निदान
कोणाल्या पोरसांत
फुलां तरी शिंवरलीं

## वाल मातल्या

पानवेली निमतान
म्हसगांक उदक
अशें म्हणटात
म्हणून हांव
आंब्यार चडिल्ले
वाली मुळाक
सारें-उदक
घालीत रावलों

वाल आतां
इतली मातल्या
आंबो दिसच ना
खांदये खांदयेर
वालूच चडल्या
आपणाक वयर चडपाक
खांद दिवपी
आंब्याकूच खावन उडयला...

## वजें

खांद्या वयलें वजें
माथ्यार घेतलें
खांदे दुखपाचे थारले
पूण मान कणली,
मान वांकडी जाली
तरीय वजें घेवपाचो
थांबलो ना

जांकां जांकां
वजें जड लागलें
तांणी पेर्णे केले
हांवें मात उसरपतूय
घेतली ना

मान वांकडी जावं वा कणूं
म्हजे मानेक आतां
वज्याचीच संवय जाल्या
एक दीस मानेर
वजें नासल्यार पसून
मानूच ना,
अशेंच दिसता

आतां माथ्या वयल्या
वज्याचो भार
माथ्याकूय जाणवना
मानेकूय जाणवना

## वळखीचो जल्लो

हरशीं हांव
शेजारच्या मनशाक
जाप दिना
गांवच्या मनशाक
पाचारना
ताची म्हजी
एकूच भास
आसून पसून
केन्ना कोणा कडेन
गरजे भायर उलयना

पयर मात
अनवळखी वाठारांत
अनवळखी भाशीक
अनवळखी मनशां मदीं
रेल्वेंत प्रवास करतना
म्हज्या बॅगा वयल्यान चलपी
एक जल्लो
म्हाका सामको लागींचो दिसलो
तसलोच जल्लो
आमचे रांदचे कुडींतूय आसलो

ताचो रंग, ताचें रूप
सगळेंच म्हजे वळखीचें
गच्च भरिल्ल ते ट्रेनींत
तोच म्हाका लागींचो दिसलो...

## बैलाचें मनीसपण

चार दीस जाले
एक बैल
फोंडा कडेन बसून
दुकां गळयता
कोर्णेय आमुडल्यार
तितल्या पुरतो हालता
परत येवन
थंयच घुस्पता

चार दिसां फाटीं
ताचे वांगडा
सदांच मार्गार भोंवपी
दुसरो बैल
गाडयेक आदळून मेल्लो,
कोर्णे तरी ताका मार्गा देगेक
फोंड काडून पुरिल्लो

ताचो सांगाती बैल
मोनजात आसुनूय
मनीसपणान वागतालो

## ख्यास्त

दारार कोण मारता म्हणून
शिपायाक भायर धाडलो
पळयतां जाल्यार काल
जल्मठेपेची ख्यास्त सोंपोवन
घरा गेल्ली बायल
बंदखणी मुखार
विनवणी करीत,
पांयां पडटाली,
आपल्याक परत
बंदिस्त कर म्हणून

जिणेंच्या अनवळखी मोडणार
तिच्या हातसून
परिस्थितीन घडिल्लें एक कर्म
ताची ख्यास्त काल सोंपली
पूण ती घरा वचूंक तयार ना
घरचींय तिका
व्हरूंक येवंक नात

समाजांत मान ना
घरांत स्थान ना

चरितार्थाचें साधन ना
रावपाक घर ना

हांव बंदखणीचो राखणदार
म्हाका बंदखणीचे
सगळे अधिकार
तरीय
ख्यारस्त सोंपिल्ल्याक
भितर येवपाचो
म्हाकाय अधिकार ना...

## नरकासूर

सदचेवरी फांत्या पारार
बिंद्रुकांत पासयेक वतना
झिलींतल्यान आवाजाचो भास जालो
लागीं वचून पळयतां जाल्यार
रंगीबेरंगी पिंजक्या कपड्यांत
भिकाऱ्याचे आवतिकायेंत
नरकासुराचें बावलें
काण्णीच्या कांट्यांक शिरकलां
उजव्या हातांतली तरसाद
मुठीक सोडून गेल्या,
दाव्या हातांतली ढाल
भिक्षापात्र कशी उरफाटी धरल्या
माथ्या वयलो मुकूट झडला,
केंस पिश्टून जटा जाल्यात
पोट आनी फाट एक जाल्या

काकुळट दिसली म्हाका
नरकासूर पावसान भिजून
चिप्प ओलो जावन कुडकुडटालो
ताका पयलीं हांवें कांट्यांतलो सोडयलो
म्हज्या आंगा वयलो बुशकोट ताचेर चडयलो
म्हळें, तूं हांगा रानांत कसो पावलो?

किर्ते, सांगूं म्हजी कर्मकथा?
हांवें म्हळें, सांग
हिरण्याक्ष दैत्याचो नाश करतना
धर्तरेच्या पोटांत म्हजो जल्म जालो
विष्णून वराहावतार घेवन धर्तरेक वाटायली
पूण म्हजो जल्म वाटावंक शकलो ना
कृष्णावताराक म्हाका सोंपयलो
हिरण्याक्षा परस म्हज्यांत
इल्ली चडूच आसुरी वृत्ती आसली
हांवेंय मनीसजातीक नाकापुरो केल्लें
सोळा हजार अस्तुऱ्यो म्हजे बंदखणींत आसल्यो
पूण एकलेनूय म्हजो मोग केलो ना
कृष्णाचेर मात सत्यभामेचो निखळ मोग
तिच्या मोगाचें तेज पळोवन हांव दिपावलों
कृष्णाक शरण गेलों
म्हजो शेवट लोकांनी
काळखाचेर उजवाडाचें जैत मानलो

पूण तुमी मात दर वर्सा
म्हजे पुतळे करून लासतात
विटलां आतां हांव ह्या सगल्याक

म्हज्या नांवान सर्ती घेतात
लाख लाखांचीं इनामां वांटटात
आनी आपल्याच पयशांनी केल्ले
म्हजे पुतळे लासतात

हिरण्याक्ष मेल्लो तेन्ना हांव एकलोंच जल्मल्लों
आतां मात वचत थंय म्हजेच वंशज दिसतात
कोण गाडयो आडावन पयशे मागतात
तर कोण आख्खी रात मार्गार नाचतात
फांतोडेर दिवे पेटोवंक उठचे बदला
दिवे पालोवन न्हिदूंक वतात

तुमी फांत्यार उठचें
अभ्यंगस्नान करचें
दिवे पेटोवंचे
तोंड गोड करचें
म्हणून हांव धांवते गाडयेंतल्यान
उडी मारून रानांत येवन लिपलां...

## म्हजी कथा म्हजी व्यथा

चलत भोंवतालों तेन्ना
पांय दुखताले म्हणून
सायकलीचीं सपनां पडटालीं
सायकल घेतकीर
पेदालां मारपाक
तकालस जावंक लागली, म्हणून
स्कुटर सपनांत येवंक लागली

कांय वर्सां उमेदीन
स्कुटरीन भोवलों
पावसाचें जॅकेट वेगळें,
थंडेचें जॅकेट कानतोपये सयत
हाताक मोजे, पांयांक बुट,
दोळ्यांक गॉगल,
फाटीक बॅग

एक दीस पावसांत
कापोत घरा विसरलों,
कुशीकच्यान गेली गाडी
रोद पडलें खळयेंत
म्हाका चिकलाचो अभिशेक

त्याच दिसा थारायलें
गाडये बगर पर्याय ना
पावस, गीम, शियांत पसून
हुसको करपाची गरज ना
बजेटा भितर गाडी घेतली

एक दीस एक सोयरो
वाटेर मेळ्ळो
ताका ओर्राद गाडयेंत घेतलो
ताणें म्हणलें
घेवंची घेवन कसली घेतली?
ही आतां आवटडेटेड जाली
आतां उण्यांत उणी
पॉवर स्टेरिंग, पॉवर विंडो,
एबीएस, ईबीडी,
माती आनी गोबर
तकली भेरायली ताणें

तकली दुखता म्हणून
दोतोरागेर गेलों,
दोतोर म्हणपाक लागलो

अँक्झायटी, टेन्शन, प्रॅशर
जिवाक सांबाळ
चड चिंतू नाका
दीस रात गाडयेन भोवूं नाका
चडशीं कामां चलत कर
दिसाक स किलोमीटर तरी
चलून चल

## गुलाबाचो कांटो

मोगरें जायेक सांगतालें
ज्युस्त गुलाबाच्या कानार पडलें
पावसा बगर आमचें जायना खरें
पूण मळब फुटून पावस पडल्यार
म्हज्यो कळयोच कुसतात
जात्रेंतल्या होमखणांत मात
एकएकदां टवटवीत फुलतात

जायेक सामकें पटलें मोगरेचें
उटंगाराच्या पावसांत
ताचोय मळो घुसमट्टा
वत केन्ना येतलें ताची
ताका उमळशीक लागता

गुलाब थंयच्यान ल्हवूच कडसरलो
पावस आसूं वा गीम
आपल्या फुलांचे कांटे
कोणाकूच तोंपनात
तोंपल्यारूय लोक
गुलाबाच्या रूपरंगाची
तुस्त तोखणायूच करतात

तेंच येवजून येवजून
आपले भितर मुरगुटलो
वाऱ्यार बरो धोल्लो
तेवटेन एकलो कोण वतालो
ताचो नवोताल्ल बुशकोट
गुलाबाच्च्या कांट्याक फारावलो !

## सुखाचें झाड

संवसारांत वचत थंय
दर एकलो सुखी समाधानी
कोण बंगलो बांदता
कोण गाडी घेता
तर कोण विमानान भोंवता

कोण मॅनेजर
कोण दोतोर
कोण इंजनेर
कोण कारखानदार
कोण भाटकार
कोण हॉटेलांतूच जेवता
कोण रिसोर्टांत रावता
जाल्यार कोण कॅसिनोंत खेळटा

म्हजे सारको मात
बल्कांवार बसून
जळफळटा
तडफडटा
वितरागता
सुखी मनशाचो सदरो
आंगाक घालूंक वश्रेता

एक दीस म्हाकाय कोर्णे
सुखाचो रोपो दिलो
रोपो दितना
म्हणूंक लागलो
झाडाची बरी जतनाय ये
फळां लागतकीर
जमनीर पडूंक दिवं नाका
जमनीर पडल्यार माती जातली

हांवें लक्तुबायेन
तो पोरसांत रोयलो
उदक यालें, सारें यालें
मुळाक मातयेची भर याली
रोपो बरो
सरसरीत वयर सरलो
वयर सरतां सरतां तो
केन्नाच मळबाक तेंकलो
चंवरलो, फुललो
नाजूक बरीं सुखाचीं
फळांय ताका आयलीं

पूण हाताक लागना
बडी पावना
झाडार चडूंक कळना

मार्गावयल्यान एक
पादिशेर वतालो
तो म्हज्या आदाराक आयलो
तार्णे पळयलें
झाड इतलें ताडमाड
ताचेर चडल्यार
झाडा वांगडा चडणारोय
मातये भरवण जावपाचो
तार्णे शेजारच्या लोकांक
झाडा मुळांत आपयले
आनी म्हणलें
आपूण झाड हालयतां
तुमी सूख जिखून धरात
जाचो पोसो जितलो मोठो
तितलें मोठें सूख मेळटलें

ताणें झाड हालयलें
सूख सगल्याक पातळ्ळें
सगल्यां वांगडा म्हज्याय पोशांत
रास भर सूख आयलें

झाड हालोवपी पादिशेर मात
झाड हालयतूच उरलो

## गांव हांसता

वयल्या वाड्यार
मदल्या वाड्यार
सकयल्या वाड्यार
गांवच्या तिठ्यार
जाकीनाल्या बांदार
बुकीले गिरणीर
दिगुल्या हॉटेलार
माडकांतल्या व्हाळार
तारी पाणट्यार
अनंताचे तळयेर

वचत थंय
पळयत थंय आयज
लोकूच लोक दिसतात
तरेकवार रंगाचे
वेगवेगळ्या मोदीचे
नवेताल्ल कपडे यालून
लोक मोठे उमेदीन बोवाळटात
एकमेकांक हटकीतात
भुरग्यां बाळांची खबर घेतात

कोण भेटो हाडटात
कोण भेटो पावयतात
कोण ह्या निमतान साग्वाद दितात
तर कोण परबीं दितात

आयज गांवांत उमेदीचें वारें
वचत ताच्या कानांत भरलां
वाड्या वाड्यार उत्सवाचो बाजार फुल्ला

शारांतल्यो सगल्यो गाडयो
आयज वाट विसरून गांवांत पावल्यात
आयज गांवांत गाडी दवरूंक जागो ना
दवरिल्ली गाडी काडपूय शक्य ना

वर्सान एक फावटीं गांवाचें भाग्य उदेता
चवथीचो गणपती
देड दीस गांवांत रावपाक येता
शारांतल्या लोकांक
तांचो एक गांव आसा
हाची याद दिता
गांवांत तांचें घर आसा

गांवचे मातयेंत तांचीं पाळां आसात
हाचीय याद करून दिता

देड दिसा खातीर जायना
गांव मनमेकळो हांसता

## इन मीन तीन

इन मीन तीन मनशां
तिगां तीन कोनश्यांक
तिगांचे तीन बेडरूम
तीन गाडयो
तीन मोबायल

ती रांदता
जेवण मेजार मांडटा
मोबायलाचेर फोटे काडटा
पयल्यान पयलीं
कावळ्याक काकवळ दवरतात तशे
ते जेवणाचे फोटे
फेसबूक ग्रुपान पोस्ट करता
आनी कांव कांव करून
कावळ्यांक आपोवचे तशे
पोस्ट घालता
'कोणाक जाय?'

तो ऑफिसांतल्या इश्टां वांगडा
तरेकवार हॉटेलांनी वता

नव्यो नव्यो डिश मागयता
जेवणाचे, इश्टांचे
बरे फोटे काडटा
हॉटेलाक टॅग करता
जेवणाचो नियाळ बरयता
आनी गांवजेवण घाल्लेवरी
फेसबूक ग्रुपान पोस्ट करता
लोक जिबल्यो चाटीत
ताचे जेवणावळीक तोखेतात

बायक कॉलेज जातकूच ट्यूशन
मागीर डान्स
उपरांत जीम, योगा
जेवपाक वेळ ना
बाय बर्गर वा पिझ्झा खावन
दीस धुकळटा

राती कडेन घरा पावतकीर
इन मीन तीन मनशां
तिगांय जाम
तो सोफार वणकता

बाय बाज्जेर लवंडता
तर ती बाबडी
उब्यांनीच रांदचे कुडीत
पूण तिगांय उलयतात एकामेकां कडेन
मोबायलाचेर मॅसेज टायप करून

ती मेजार जेवण मांडटा
तार्णे आनी बायन
कानांत गुड्डयो याल्यात
ती मेसेज यालता
'जेवया व्हय?'
बाय वाचता
पूण बाय येतनाच
भायर खावन आयलां
तें मेसेज यालता
'पोट भरलां'
तार्णे अजून मेसेज
वाचुंकूच ना
तो सांजेक च्याक खाल्ल्या
चाट मसाल्याचें वर्णन

इश्टां कडेन चॅट करपांतूच
गुल्ल आसा

ती आनीक एक मेसेज धाडटा
तो कानामनार घेना
ती आपूण जेवता
मेज काडटा
न्हिदूंक वता

बरे रातीर ताका
भूक लागता
तो मोबायल बंद करता
किचनांत वता
दनपारां तिणें
फेसबूक ग्रुपार बरें सजयिल्लें
गरमा गरम जेवण
पूण आतां थंडगार जाल्लें
तो ताटांत वाडटा
भकाभक पोटांत धुकळटा
आनी वॉटस्अॅप इश्टांक
तांबडीं काळजां धाडून

‘गुड नायट’,
‘स्वीट ड्रीम’ करीत
गुप्प काळखांत
बाज्जेर पालून घेता

इन मीन तीन मनशां
तिगां तीन कोनश्यांक...

# एक गाय व्हियेली

एका पावसांतल्या दनपारां
आमच्या आंगणांत
पारजताच्या झाडा मुळांत
कोणाली तरी गाय व्हियेली
आनी पाडकाक थंयच
झाडा मुळांत सोडून गेली

धव्याच आंगार काळेच ठिपके
पाडूक रुपान सोबीत दिसतालें
आमचे भारती बल्कावांर आयलें
तेन्ना पाडूक ताचे नदरेक पडलें
भारतीन घरांतल्यांच्या कानार घालें

वेद तुवाल्यान पुसता
सई बोमान दूद पिवयता
पाडूक पावसांत भिजिल्ल्यान
थंडेन कुडकुडटा

जल्मदात्री गाय खंयच झळकना
गांवभर सोदली तरी गावली ना

शेतांत ना, गोठ्यांत ना,
पाणट्यार, व्हाळार, खंयच ना

सोदून सोदून तिनसांज जाली
चरवाक गेल्लीं गोरवां
घरचे वाटेक लागलीं
त्याच गोरवांनी एक गाय
हामेल मारताली

आमी पाडकाक म्हन्यांत व्हेलें
पाडूक लुचूंक सोदूंक लागलें
पूण गायन पाडकाक पयस धुकळ्ळें
गोरवांनी गाय आनी पाडकाक मर्दी घालें
आमी झाडा फाटसून लिपले

थोड्या वेळान पळयल्यार
गोरवां आपआपले वाटेक लागलीं
गाय पाडकाक चाटूंक लागली
म्हाका ट्रेनींतली गजाल याद जाली

आमी एकदां ट्रेनीन वतना
एके आवयन भुरग्याक दुदाक धरलें
पूण ट्रेनींतले आमी दादले
सगळे थंयच मोन्यांनी बसून रावले
आमचे मदल्या कोणेच
थंयचो उठून
तिच्या आडसाक पड्डो धरलो ना

## देवाच्या पांयार ओंपिल्लें फूल

देवाच्या पांयार ओंपिल्लें फूल
देवा कडेन होरायतालें
देवा देवा
तुज्या पांयार हांवें
यालून येवंक ना
म्हाका बळयां हाडून ओंपलां

जाणें व्हडा लक्तुबायेन
आपल्या पोरसांत
म्हज्या मातृझाडाक रोयलें
शिंपून वयर काडलें
तो म्हज्या फुलपाचीं सपनां
रातभर न्हिदेंत सपनेतालो

पूण तुजे भक्तीन
तल्लीन जाल्ल्या तुज्या भक्तान
ताचीं सपनां मातये भरवण केलीं
म्हजे सारकीं कितलींच फुलां
फुलचे आर्दीच बुड्डीलीं

देवा देवा
तुज्यान जाता जाल्यार
इतलेंच कर
म्हाका परत आसलें तशें
मातृझाडार देंठार बसय
जाणें भक्ती भावान
म्हज्या मातृझाडाची
लक्तुबायेन वाड केली
ताच्या तोंडार हांसो खेळय..



## उदय नरसिंह म्हांबरो

1978 सावन कोंकणी आनी मराठींत बरयता. कविता, कथा आनी वृत्त पत्रीय लेखन हे आवडीचे प्रकार. समाज सेवेची आवड. जायत्या साहित्य आनी समाजसेवी संस्थांकडे लागींचो संबंद.

---


**महांबरे सदन,**
**सावयवेरें, वळवय.**
**9420766769**
**8806049969**

अंतर्मुख जावन विचार करप हें कवी उदय म्हांबरो हांचे कवितेचें एक आगळेपण म्हणपाचें परतून परतून जाणवलें.

हळशिकेची घाण
येता म्हणून
सगळ्यांचीं जोतीं
हांवें तपासलीं
म्हज्यो व्हाणो मात
तपासल्यो नात

असो स्वताक ताशीत,तपाशीत,सुदरायत रावपाचो व्हड सद्गूण हे कवितेंत आसा. ताका लागून उणावांची पूर्तताय करून फुडाराक वाडत वचपाक हे कवितेक संद आसा हें नक्की.
मुळांत उतरांचें म्होवाळपण आशिल्ली 'कोंकणी' भास हे कवितेंत प्रादेशिकतायेचें आनीक एक सोबीत गांवगिरें दर्शन घडयता. कवीची स्वताची शैली थारची अशीं मुदयेक थींक सोबपी उतरां,वेगळीं विशेशणां,क्रियापदां ह्या झेल्यांत पावला पावलाक येतात...

डॉ.अनुजा जोशी




Price: ₹ 180/-


ISBN 978 93 85654 45 9